# धर्तरेचें कवन

र. वि. पंडित बी. ए.

कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय

मोल साडेतीन रुपया



# धर्तरेचें रुदन

— र. वि. पंडित

श्री. र. वि. पंडित हांच्या 'आयलें तशें गायलें' ह्या कविता-संग्रहा संबंदान बरयतना नामनेचे कवी श्री. बा. भ. बोरकार म्हणटात:...‘‘पंडितांची ही मुलखा-वेगळी कविता हांवें पयल्या प्रथम आयकली तेन्ना थोडो वेळ म्हाका रानांत पडिल्ल्यावरी जालें. पुण आयकतां आयकतां म्हाका तिज्या प्राणाची नाट मेळ्ळी आनी तिजेर आयिल्लें भाराचें वारें म्हाकाय आफडून गेलें. म्हजी मनोमन खातरी जाली कि ही वाणी मुळयाची. हो निर्मळ, मस्त आनी जिवस गावड्याचेर आयिल्लो भार. गोंयच्या मुळाव्या आनी धळाव्या मुळकेश्वराचो. तो फाल्यां कितें उलयतलो ताजी ही वानी...ही सगली कविता गोंयच्या प्रतिमांनी आनी प्रतिकांनी उलयता. हांगाच्या उदका-वाऱ्याचो स्पर्श घडयता; हांगाच्या वृत्ति-प्रवृत्तिचीं चित्रां काडटा-पुण तिजें सगलें अनुसंधान लागलां तें माणसुकेचेर.

(तिसऱ्या कव्हरार पळेयात)

मोल साडेतीन रुपया

# धर्तरेचें कवन

र. वि. पंडित बी. ए.

कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय

मोल साडेतीन रुपया

आत्माराम सिताराम पंडित

जानकी आत्माराम पंडित

विष्णू आत्माराम पंडित

श्रीधर प्रभू महांबरे

रमाबाय श्रीधर महांबरे

हांचे पवित्र यादीक....

र. वि. पंडित हांचे कविता-संग्रह :

१ धर्तरेचें कवन मोल रु. ३ : ५० नवे पैशे
२ चंद्रावळ मोल रु. ३ : ५० नवे पैशे
३ आयलें तशें गायलें मोल चार रुपया
४ म्हजें अुतर गावड्याचें मोल चार रुपया
५ अुरतलें तें रूप धरतलें मोल चार रुपया
* पयल्या दोन कविता-संग्रहांचें मोल ६ रुपया
* निमाण्या तीन कविता-संग्रहांचें मोल १० रुपया
* पांच कविता संग्रहांचें मोल १५ रुपया

मेळपाचीं ठिकाणां :

१ बॉम्बे बुक डेपो, चर्नी रोड, मुंबय ४.
२ अ. ना. महांबरे, २७ झेहरा मंझिल,
लेडी जमशेटजी रोड, माहीम बाजार, मुंबय १६



# मांडावळ

## भुंयेन म्हळें

भुंयेन म्हळें
" शिंयान म्हजो
जीव सामको
कुडकुडटा "

सूर्यान म्हळें
" बाराय म्हयने
हांव तुका
वोत दितां "

भुंयेन म्हळें
" अुबाळाचें
आंग म्हजें
धगधगता "

वाऱ्यान म्हळें
" भयणी म्हजे
हांव तुका
वारो घालतां "

भुंयेन म्हळें
" चार म्हयने
तानेन जीव
तानेता..."

मळबान म्हळें
" भियेवं नाका
जाय तितलें
अुदक दितां "

भुंयेन म्हळें
" मनशादादा...
भुकेक अिळें
भात दिता ? "

मनशान म्हळें
" फुकट दिना...
पन्नास पटीन
व्याज घेतां !..."

मुंबय, ७-१२-६२

## पेटली थंय पेटली

म्हजें मन...
जशी
अुज्याची कीट.

जंय पडली
आनी परजळ्ळी...
थंय होमकण पेटलें.

अनर्थ जालो...

जंय
पडली
पुण पालवली...

थंय
अुलो
थंडगार
गोबर !

पाळें, २६-३-५९

## शिजता थंय पचना

मळटा थंय दळना
दळ्टा थंय शिजना

शिजता थंय वाडिना
वाड्टा थंय जेविना

जेवता थंय...
भुकेना
रुचना
आनी पचना !

पाळें, ५-४-५९

## हांव भाटकार ?

*(अेका भाटकाराचें आप-अुलोवप)*

हांव गिरेस्त अशें तुमी समजतात,
आनी म्हाका 'भाटकार' म्हणटात ?
कित्याक, तर म्हजे कडेन चार
भाटाचे कुडके आसात म्हणून ?

दोन शेतां. . अिल्लो दोंगरा-कुडको...
दोन मिठागर...अिल्लेंशें कुळागर
आनी माडांचे दोन-चार बांदकुटे
आसात म्हणून ?

आनी ह्या शेतांनीं दोन कुंभ
भात पिकता... म्हणून
दोंगराक चार खांडी काजूबियो
खांडीभर सोरो पिकता. केन्नाय म्हाका
भेट म्हणून दोंगरकारा कडल्यान
अेक निऱ्याची बाटली मेळटा...
माडांक वर्सांतल्यान हजार भर नाल्ल पडटात...
सुरीक आशिल्ल्या माडांचे धा चाळीस रुपया येतात !
पाड्याक दोन चार आडसरां हांव खातां म्हणून ?

कुळागरांतले केन्नाय अेक-दोन पणस
थोडीं भिण्डा–सोलां, मणभर आमटाण
रसांवांचे पांच–पन्नास आंबे
आनी कोणाकूय गोंयांत खंयूय

फुकटूच मेळपी हेर खूब वस्ती
...तिरफळां, बोरां, अनसां...
मस्काच्यो सांगो...
आनी, पावसाच्या दिसांत...
आळूं, तेरें, सूर्ण, कारांदे बी
म्हाका भेट म्हणून येतात...म्हणून ?
मानशेच्यो दोन नुसत्या गांथनी
आनी सुकीं सुंगटां येतात म्हणून ?

तशेंच कोणाच्याय मर्णाक
गोंयांत फुकट मेळपी मानी, कोंडे
म्हाकाय बी मेळटात म्हणून ?

कित्याक...कित्याक म्हणून
तुमी म्हाका गिरेस्त समजतात ?
आगा, ही गिरेस्तकाय म्हाका
कितली म्हारग पडटा
तुमकां खबर आसा ?
ना. मुळींच ना देखुनूच तुमी तशें समजतात.

ना जाल्यार...ना जाल्यार, तुमी
म्हजी काकुळट करतले आसले !

पांच पन्नास खांडी भात घरांत
येवंचे पयलीं...येता आसतना
आनी उपरांत...सड्डार आनी वायंगणार......
मड्डार आनी खाजनांत...
कितलीं शेतकारांचीं कुटुंबां

हाय-हूय करतात...म्हाका गाळी मारतात..
तुमी जाणात ?
कितल्यो आनी कसल्यो कसल्यो
गाळी आनी "ज्यास्ती" मारतात
तुमकां खबर आसा ?

म्हाका दिसता, त्या कुमळ्यांतल्या भाताचो
अेक अेक गोटो...गाळींनी भरिल्लो आसता...
दरेक गोट्या कणकणी
धा धा तरी गाळी...म्हज्या घरांत येतात.
देखुनूच जावंये तें भात म्हाका पचना.
घरांत अितलेंय भात आसून लेगीत
म्हाका स्वताक खावपाक कराचीक सावन हाडिल्ले
"मांडला" तांदूळ लागतात. ते ह्याच खातीर !

ह्यो गाळी...तुमीच सांगात...म्हाका कित्याक फावतात ?
हांवें काय तीं भाटां-बेसां घेतल्यांत !
तीं घेतलेलीं म्हज्या जाणट्यांनी.
गाळी मात् हांव खातां...
कित्याक, तर जाणट्यांनी दवरेलीं
भाटां हांव घेवन बसलां...

जाणट्यांनी दवल्लेलीं
घरां-दारां...भांगर शिंगर...पैसो आडको
मोटारी...व्यापाराच्यो पेढयो
घेवन लोक बसनात ? पुण ह्यो वस्ती
तांकां गाळी घालिनात...

भाटांवरी...शेतांवरी...
म्हाका मात् लाखांनी गाळी...

कित्याक म्हणशीत तर, ज़ाणट्यांचीं
भाटां-बेंसां हांव सांबाळटां...!

जाणट्यांनी भाटां घेतिल्लीं कित्याक!
तांचे कडेन पैशे चड आशिल्ले...
आनी हांव तीं सांभाळटां
म्हजे कडेन ते मुळींच ना देखून !

म्हजे जाणटे आपल्या भुर्गेपणान
खूब गरीब आसले...
गरीब आसले देखून तांकां दिसलें
खूब कश्ट करचे. .पैशे मेळोवंचे
आनी भाटकार जावंचें...

ताणीं आपलें रगत आटयलें...
आटयलें. आटयलें. रगताचो पैसो केलो...
पैशे केले......ताचीं भाटां घेतलीं...
भाटां घेय मेरेन तांचें बाबडयांचें
रगत पुरायेन आटून गेलें.

भाटां-बेंसांचें भाग्य (!) पळोवपाक
आनी तांतुतल्यान येवपी
गाळी फस्तिच्या पिकेचें सूख (!)
पुरायेन अणभवपाक......
तांच्या कुडींनी रगतूच न उरिल्यान...

तांचो आदींच खर्शेलो...जीव सामको अुबगलो
जियेवपाच्या अैन अुमेदिर
कुडीनीं घात माल्लो. तांणी हांतरूण धल्लें...

जाणट्यांनीं बाबड्यांनी भाटा काडलीं...
आपल्या भुग्यांक दवल्लीं...
तांचीं कागदां केलीं आनी प्राण सोडलो!

भुग्यांनी विचार केलो...
"जाणट्यांनी तकालस सोंसलेली
त्रास काडलेले...कित्याक?
ते गरीब आसले देखून...
आमी जल्मल्याच भाटकार म्हणून...
...आमीय कित्याक त्रास काडचे?
आमीय कित्याक रगत आटोवचें?"

भुग्यांनी त्रासां कडेन...कश्टां कडेन फाट केली...
आनी हात धुवन लागले भाटां फाटल्यान...
भाटांच्या कागदां फाटल्यान...!

त्या कागदांतल्या अुतरांचो खरो अर्थ
समजून घेवपाचो कोणेंच येत्न केलो ना.
भावाभावांनी खोश्शेन अेकामेकां बराबर
नंदपाचो येत्न केलो ना.
अुलट, कागदांतल्या अुतरांच्या अर्थाचो अनर्थ करून
कौरव पांडवांचें झूंज मांडलें...
आनी हे कौरव पांडवांनीं आपापल्या वठेन
शकुनी, शिखंडी, सारके झुंजपी...

लेत्राद, सोलिसितादोर...
...भुजंगां सारके अिस्क्रिव्हांव अुबे केले !

लेत्रादां–सोलिसितादोरांच्या
भूत-गणांनी जाणट्यांच्या
कागदांच्या अेका अेका अुतरांतल्यान...
(त्या अुतरांचे खरे अर्थ तितले सोडून)
जितले म्हणून विपरीत अर्थ काडूंक येताले
आनी येय नासले, तितलेय काडले...

सेलाद फोलिंच्या ह्या रणधुमाळेंत
जाणट्यांच्या मूळ कागदांच्यो वाड्यो-विद्यो जाल्यो.
तिस्त्यो तिस्त्यो जाल्यो...

कौरव पांडवांच्या युद्धांतल्या झुंजप्यां परसूय चड नेटान
सेलाद फोली झुंजल्यो...
शिखंडी-सोलिसितादोरांच्या बायजनां आड लिपून
झांशिच्या राणयेच्या किंवाट्यान,
सेलाद फोली झुंजल्यो...
त्रिबुनालाच्या कुरुक्षेत्रार...
रेलासांवाच्या पानिपतार...
सुप्रेमाच्या दर्यापार म्हायुद्धक्षेत्रार झुंजल्यो...
बाबड्यो सेलाद फोली !

देमांदाचें झूज सुरू जाल्ल्या पसून
दोन-चार पिळग्यो सोंपल्यो तरी
सेलाद फोलिंचें हें म्हायुद्ध
सोंपलें ना...“ वर्सायलचो ” समेट जालो ना...

अितल्या मजगतीं भाटांच्यो
आनी भाटकाराच्या भुरग्यांच्यो.
दैना जाल्यो...भगल्यो जाल्यो...
तरी झूंज सोंपलें ना...

भाटांचें रेंद सेलाद फोलींक,
प्रेपारांक, कुस्तांक, पावनाशें जालें
तरी झूंज सोंपलें ना...

भाटांचे पाडे वेळार जायना जाले
पुण लेत्रादांचीं पाडेपणां थाल्लीं नात.
बांदांक खावटीं पडूंक लागलीं...
गार्फांचेर बिंदुळी मातली...
माड व्हांवूंक लागले. आगर पोवूंक लागले.
जोरगतीच्या, मानशेचें अुदक
बांदांक न्हावोवंक लागलें...!
त्या खारसाणीन वायंगणां आनी
सड्डांचें पीक कुसूंक लागलें...
पावसांत, दोंगरां वयले व्हाळ,
मस्तेन (!) सकयल देंवून
मड्डां व्हांवोवंक लागले...
आगर गिमांतूच (!) मदींमदीं बुडूंक लागले...
कितलींशीं घरां वर्सांचीं वर्सां धांपून अुरिल्ल्यान...
वेळार न कंडयल्ल्यान...न अुसयल्ल्यान
पावसांत घम्म करून लंवडूंक लागलीं.
पणसांक रेंटे पडले.
केळी, माडयो, कावथे, अुदकाविणें करपले.
दोंगर, कुळागरांतलीं बेस बरीं झाडांपेडां...

वासपुस नाशिल्ल्यान
निर्शेलीं...रागेलीं
भाटकारांक सामकीं विटलीं...
आनी कांय अेक दिना जालीं !
तरीय झूंज थाल्लें ना...

झूंज किऱ्या खातीर सुरू ज़ाल्लें
तें लेगीत फुडल्यो पिळग्यो विसल्ल्यो...
पुण झगडीं थाल्लीं ना.
कित्याक, जाणटय़ांच्या कागदांचो
खरो अर्थ समजून घेतलो म्हळ्यार...

...अर्थाचो अनर्थ करपा खातीर,
लेत्रादांनी तयार केल्ल्या
सेलाफोलींच्या कागदांच्या भऱ्यां खाल चिड्डून,
जाणटय़ांचे मुळावे कागद बाबडे
खंयचे खंय, आनी केन्ना तरी...
नाच जावन गेल्ले !

आनी मागीर...
त्या भाटांचें कितें जालें काय ?
कितले कुडके जाले काय ?...

कोणे रे मेजल्यात !

कितले येरदेरी ?
आगरांच्या पोडशींगां परसूय
चड येरदेरी ! !

कुळागरांतल्या माडयां परस...
बांदा वयल्या माडां परस...
दोंगरां वयल्या काजीं परस
चड येरदेरी जाले ! ! !
हिसपा भायर चड अितले......

भणंग भिकारी सोलिसितादोर भाटकार जाले !
जाणेटल्यांच्या भाटांच्यो
भोयो भोयो जाल्यो !!
भाटां पिंजोर जालीं...
मुळावे भाटकार रिणकार जाले
रिणा भर्वण जाले !
आनी आयज...
त्या जाणटया भाटकाराच्या अुरग्यांचेर,
मोटो कठीण प्रसंग आयला...!

तांकां, गांवचे तांचे सगले भागेली
"भाटकारा" म्हणून अुलो मारतात.
ते "भाटकार" मात् अुरूंक नात !

ज्या आगरांच्या व्हड व्हड शेवट्यांच्यो गांथनी,
पेंसांव म्हणून, तांच्या घरा येताल्यो...
त्याच आगरांच्या पोडशिंगांनी
आनी खळयांनी...
गांवच्या लोकांचो दोळो चुकोवन...
केन्ना केन्नाय सांजेचे, आमोरेचेर...
तांतले कांय भाटकार (!)
आयज, सुंगटां पोशेतना दिश्टी पडटात.
दोंगरार जळव पुंजायतना दिश्टी पडटात !

आनी त्या जाणट्यांच्या
मुळाव्या व्हडल्या (!) घरांत ?
आयज...अितले भाटकार रावतात...
शेणांतल्या किड्यांवरी बुचपुचीत...
...कि विचारूं नाका ! ...
पांच पन्नास वर्सां पयलीं ज्या घरांत
पांच पंचवीस गोरवां आशिल्लीं...
त्या गोठ्यांत लेगीत...वांटणी करून
आयज दोन चार रांदनी पडल्यात.
(गोरवां खंय पावलीं बाबडीं कोण जाणा !)

व्हडल्या घराचेर शेळो मांडला.
कापोडयांनी जाग्या जाग्यार जाळीं विणल्यांत.
कण्डी मदेराक आयल्या...
चौकेर, चौफेर अेकमेकांक घसटून...
बिराडांच बिराडां वसल्यांत...
बोटिच्या धक्यार वा व्हड स्टेशनाचेर
जमिल्ल्या पॅसेंजरांच्या गर्देवरी !

केन्ना काळ हारशे आशिल्ल्या पुण
धुंवरान काळेंकीट्ट पडिल्ल्या हारशांतल्यान
घरांत भितर सरपाक, सूर्या वोताचीं किर्णां लजेतात !
ताका लागून घरांत बाराय म्हयने काळखी रातूच रात...
आनी भितल्लीं मनशां जणूं काय...
तांतूंत वावुरपी भुतां खेतांवरी निशाचर ! दिसतात.

घरांच्यो वणटी पोखरल्यात...
तांच्या घोली घोलींनी आयज

कोळ–हुंदीर, पाली, जल्ले,
माळणां, जळारी, कापोडये,
वाळटी, हुलको...वागोण्यो, विंचू, फुरशीं
खुशालकायेन जियेतात...
त्या घरांतल्या भाटकारां
अितल्याच खुशाल कायेन...!

हांवूय तांतलोच अेक जीव...
म्हळ्यार मनीस...म्हळ्यार माल्ूण असो...!
आनी अितलेंय आसून
तुमी म्हाका भाटकार म्हणटात ?
नाका नाका...देवा खातीर तितलें मात
करूं नाकात...
भाटकार म्हणूं नाकात...

'भाटकार' म्हळो...कि ह्या सगल्या
गजालिंची म्हाका याद येता...
आनी रडूंक येता ! !
पांयां पडटां तुमच्या...जाय जाल्यार म्हाका
गाळी मारात...
मात् "भाटकार" नाका म्हणूं ! ! !

पाळें, ५-२-५८

## अेकलोच...हे दळिद्री गोंयांत !*

आलाशिरो ना म्हाका
शितळ सांवळी ना. प्रीत ना. ना कांयूच...
हांव काडटां अुपास...
ह्या गोंयांत अेकलोच !

आवाज म्हजो जाला क्षीण
म्हज्यान गावं नज.
दोळे म्हजे धुंवरेल्यात
म्हज्यान पळोवं नज
म्हजी कात सुकल्या. मुयेल्या...
स्पर्श, म्हाका जाणवना.
म्हजें काळीज फातरेलां...
म्हज्यान प्रेम करूं नज.
म्हजीं दुखां आटल्यांत...
म्हज्यान रडूं नज.
म्हाका ना मनाची शांतताय...
ना आस. नां कांयूच.
काडटां हांव अुपास हांगा...
मर्णांचे...अेकलोच.

पुण काळ...पर्वा करिना.
आनी संवसार...फुडें सरत आसा...
नदर दियनासतना. म्हजे कडेन...
म्हाका कुस्कुटायत...फुडें सरत आसा...
बेस बरो...थंड बरो...

आनी हांगा
ह्या भुकेल्ल्या भुंयेर...म्हज्या (!) गोंयांत...
नदरे आड...कोयरा समान...नागडो अुगडो
गपचूप...हांव पडलां...
पळेत...भुकेत...
रातिच्या शांत फिकट अेकलेपणा खाल
भुकेत, दिसाच्या जाळून अुडोवपी वोतांत...
पळेत, रित्या मळबा कडेन आशेवन
अेका अुंड्याच्या कह्या खातीर...
प्रार्थना करीत, मनांतल्या मनांत...
शिताच्या...अेका अुंडये खातीर...

हाय! हाय म्हज्या थंड अुस्वासा...
थंडाय रे पुता...
म्हजें म्हाकाच, ल्हवु ल्हवु खावन अुडोवपी,
हें म्हजें दुःख...!
अप्रूप जाल्ल्या म्हज्या दुखांनो...
धुवन अुडयात रे बाबांनो...
म्हजे जिणेची
सोंसूं नज अशीं हीं गीतां...
जीण!...
जी आसूंक फावो आशिल्ली...
फुला सारकी...पुजेक अुपकारपी.
पुण जीण...
जी जावन पडल्या...
गुड्डायल्ल्या तणा भशेन!

जातलें आसलें बेस बरें
हांव जल्मूक नाशिल्लों जाल्यार...
भेस बरें जातलें आशिल्लें
हांव जियेल्लों नाशिल्लों जाल्यार...
जल्मून...जियेवंचे परस
अशे वखवखलेले अुपास काडीत !

पुण ना !
म्हज्या नशिबाक हेंच हेंच
जाय आशिल्लें...सगलें...
सगलें दुःख अेकठावपाक...
आनी सोंसपाक...मोन्यांनी !

देखून...
सगली जीण म्हजी अुमेदिची...
हावेसांची...खपोवन
घामान आनी कष्टान...
ह्या गोंयांत...
आयकत, मनाक भुल्लुसावपी
गोड गोड काणयो "बंधुभावाच्यो"
म्हज्या किरिस्तांव (!) राज्यकर्त्यां कडल्यान...

हांव लोळटां...हांगा...
ह्या अेकलेपणाच्या मसणांत...

आलाशिऱ्याविणें
मायेमोगाविणें

तडफडत...तळमळत...
अेकलोच !
अेकलोच ! !

* हे कवितेचे अणकार अिंग्रजींतल्यान "Bharat Jyoti" ह्या नेमाळ्यांत आनी मराठींतल्यान "साधनां"त अुजवाडाक आयिल्ले. कवितेंतलो तळमळपी मनीस म्हणचे स्वतंत्र जाय मरेन गुलामपणांत तळमळपी गोंयांचो आत्मो...अशी कल्पना.

## पुण्य वेतालें पंढरेक

पुण्य वेतालें
पंढरेक...
वाटेंत ताका
पाप मेळ्ळें

खांदार हात
घालून ताणें
हांसत हांसत
पुण्याक म्हळें...

आयची रात
दोगांय जाणां
धर्मशाळेंत
देवुंया...
फाल्यां उठून
न्हावन धुवन
देवा–दर्शन
घेवं...या..."

पुण्यान मात्सो
विचार केलो
आनीक म्हळें
"जायत् जायत्..."

मनांत खरेंच
ताका दिसलें
"पाप कितें
अितलें वायट ?"

दोगांय जाणां
सगली रात...
हांसलीं नाचलीं
खिदळ्ळीं...

दुसऱ्या दिसा
दीसभर
दोगांय सुस्त
न्हिदिल्लीं...

...तेन्ना पसून
आयज मेरेन
पुण्यान देवाक
चोवंक ना...

पांडुरंग
हुस्को काडटा.
"पुण्य भेटेक
येवंक ना...!
पुण्य कित्याक
येवंक ना ?"...

मुंबय, ११-१२-६२

## ताचोच हो अमर देश*

रगतान थबथपिल्ली
जंयच्या, भुयें वयली
आशिल्ली दरअेक पांय-वाट...
दुःखान, जळटालीं आनी
काळजांय...घराघरांत...

कुसताली,
मनीसजात जंय
बंदेपणाच्या रेब्रांत...

म्हात्मो अेक, जल्मलो थंय...
...दया करुणेचो म्हासागर...
दिवन जाणें काळजांतलें
आपल्या...
सत्य, दया, प्रेम, पवित्रताय
क्षमा...हांचे व्हड शिकवणेचें...
अमृत, अमर संजीवन...
अुठयले, कोटी कोटी
मड्यांतले, मनीस निष्प्राण...
दळिद्रांतल्यान...
नर्कांतल्यान...

अूंच अुबारून गुडी,
गंधावरी आपुण झरून...
गुडी स्वतंत्रतेची...स्त्रमा-प्रतिश्ठेची
त्याग-विरागाची...

व्हय व्हय...
ताचोच हो
अमर देश

...ताचोच गा
अमर देश...

* गांधिजीं वयले हे कवितेचो अणकार "नवभारत" ह्या मराठी नेमाळ्याच्या खाशेल्या आंकांत उजवाडाक आयिल्लो.

# तोच हो अभागी देश*

ज्या वैशणवाच्या
तपाचरणाचेर
पोशिल्लो
राश्ट्राचो अभिमान....

आनीक तेजान
पजंळिल्ले जाच्या
धर्तरेचे चारूय कोन...

कुड्डेपणान, अज्ञानाच्या...
घमेंडेन, असद्धांच्या...
अविचारान, दुराग्रह्यांच्या...

सांडलें ताचें, जंय रगत...
हाय !...
तोच हो अभागी देश !

* महात्माजीं वयले हे कवितेचो अगकार "नवभारत" ह्या मराठी नेमाळ्याच्या "लोकसत्ताक-विशेशांकां"त अुजवाडाक आयिल्लो.

## गिरेस्त

म्हज्या आंगार
लुगटां मुळींच नात...

आनी
आसल्यारूय
पिंजकीं...

देखून
म्हाका
हिणोवं नाका.

सुर्याच्या वोताचें
जरी वस्त्र...
आनी
चान्न्याची
मोतयाळी
रेशमी शाल...

दीसरात
पांगुरपाचें
व्हड भाग्यूय...
देवान म्हाकाच दिलां हां !

याद आसूं दी !

पाळें, १२-१-६१

## अशी बायल ?

हट्ट कसो करचो...
केन्ना करचो...
कित्या खातीर करचो...
हें खबर आसून लेगीत...

जिणें केन्नाच हट्ट
केलो ना...

अशी बायल
तुमी पळेल्या ?

खरेंच ?

मागीर तुमी...
फटी उलयतात !

वेंगुर्लें, २६-८-६२

# ताचें घर मोडूंक तेंकलां

ताचें घर आयज मोडूंक तेंकलां...
कितल्याशा वर्सां फाटीं तें अिल्लेंशें आसलें
खेळांतलें घर.
दिशीं–दिशीं वाडत आयलां
वाडत आयलां, तशें मोडत आयलां...

अेक वांसो ताणें बदलूंक ना
अेक नळो घालूंक ना. नवो अेक खिळो लेगीत मारूंक ना...
घराक कुस्कुटाचो वावर करूंक ना.

तें घडलां तशें वाडलां
आनी आयज पडूंक तेंकला. रडूंक तेंकलां !

घर, तशें चकचकीत दिसता...
वयल्यान धवो चुनो चकचकता.
तोंडार अडेचें हांसप लखलखता.
ताका लागून भितलें कांय गमना.

पुण भितर बुन्यादिच्या फातरांचो पिठो जाला
वांश्यांक वायटी लागल्यात
नळे कचरल्यात
मानी फोपशेल्यात
तांचे फास कुसपेल्यात
जमीन अुसतल्या.

# लज आनी पेज

लज्जेक आनी पेजेक
पडना खंय !

मागीर कितें करचें ?

पेजे खातीर
लज सोडची ?

लजे खातीर
पेज सोडची ?

काय...

पेजे बराबर
लज
भाजून खावंची ?

वेंगुर्लें, २६-८-६२

## जग अितलें ल्हान जालां !

हें जग दिसान दीस
कितलें ल्हान जायत चल्लां...
ल्हान ल्हान
सामकें ल्हान
चिमटी भर...
मनशाक हें पावना.

म्हज्या ल्हानपणांत तें
आयचे परस
कितलेंशें व्हड आसलें.

म्हज्या ल्हानपणांत...
भारत जितलो
व्हड आसलो...
म्हज्या बापायच्या
ल्हानपणांत
महाराश्ट्र जेद्दो
मोटो आसलो...
आज्याच्या ल्हानपणांत
आमचें गोंय
जितलें मोटें आसलें...
त्या गोंयां परस
आयज
सगलें जग ल्हान जालां !

दिशीं दिशीं
ल्हान जायतूच आसा.
ल्हान जायतूच रावपाचें आसा.

खूब्ब ल्हानपणांत लग्न जाल्ली
म्हजी आजी...
सावयसून शिरदना
घोवागेर येतली जाल्यार...
तिका हाडूंक
म्हजो आजो खंय
मानाय धाडटालो.
ताचे फाटीर बसून
तिणें पलतडी येवंचें
आनी व्हड्यांतल्यान पणजे...
पणजेसून परत
मानायाचे फाटीर बसून शिरदना...
ही गजाल चार पिळग्यां फाटली.

ताचे उपरांत
माचिलां
बैल-गाडयो आयल्यो.
मागीर
घोडयां-गाडयो...
बोटी, आगगाडयो
आनी आयज...?
आयज, जाय तें!

बोटी म्हळ्यार बोटी...
बोटींत बसून
कोणूय मुंब्रय वचपी जाल्यार...
आदल्या तेंपार...
म्हज्या बापायच्या
ल्हानपणांत...
मुंब्रय वचप्यांक
धक्यार पावोवपाक
येवपी लोक
तांचो निरोप घेतना
दोळ्यांत दुखां हाडून
मुळुमुळू रडटाले.

वचपी मनीस
परतो केन्ना येत ...
येत कि ना
हाचो हुस्को करून
मनांतले मनांत
कासावीस जाताले.

पुण आयज
कोणूय खंयूय
जगाच्या
दुसऱ्या टोंकार
गेल्यार लेगीत
कोणाक कांयूच दिसना.

पावोवपाक
लोक येतात...
स्टेशनार, धक्यार
वा विमान-तळार.
पुण तें फकत
मुर्वत राखचे खातीर.
अुपचार म्हणून.
वचप्याविशीं
वायट अशें
कोणाक दिसना.

दुखां तर
आयज
अितलीं अप्रूप जाल्यांत...
कि कांय
विचारूं नाकात.
कोण सर्ग-लोकार (!)
वचूंक भायर सल्लो
खरेलोच...
तरी लेगीत
मनशांच्या दोळ्यांत...
दुखां दिसप
कठीण जालां...

...तो साध्या प्रवासाक
भायर सल्लो
जाल्यार
तीं खंयचीं दिसतलीं...!

म्हणचे?
जग ल्हान जालां
तशें
मनश्याकुळयेचें मनूय
ल्हान जालां काय कितें!

मनशांच्या मनांतल्यो
भावनाय
दिशीं-दिशीं
आटत सुकत
चल्लया काय कितें?
मनशाक
दुसऱ्या मनशाविशीं
दिसताली ती ओड...?
तीय दिशीं-दिशीं
उणी जायत
आसा काय कितें?

जायत घडये
कोणें सांगचें...
पुण
अशें जालां खरें!

जग ल्हान जालां
आनी मनीस व्हड जाला.
व्हड...
म्हणचे, कर्तुपान मोटो...

शंबर वर्सां फाटीं
ताचो वेग
वराक बारा मैल
चडांत चड
तीन कोस आसलो.
आयज तो
देडा-वराक
जगा भोंवतणी
अेक प्रदक्षणा घालून
आशिल्ल्या जाग्यार
परतो येवंक शकता !

थोड्याच दिसांनी
चंद्रार लेगीत
वचून येतलो.

मनशाचें मन
शंबर वर्सां पयलीं
ज्या जाग्यार
पाव नासलें...
त्या जाग्यार
खासा तोच
आयज
पावूंक लागला !
मन ल्हान,
आनी मनीस
मना परस मोटो जालो ! !

आदीं
जें
मनशाक दिसनासलें
तें तो...
कल्पनेन रंगयतालो.
आनी
मनांत
ताचे खातीर, आशेतालो
आयज ताका
जाय जाय तें...
तो
बसला थंय
दिसता.
आयकूंक येता.
मेळटा.

तत्वगिन्यान जाय ?
कोणाचें ?...
रसेलाचें ?
"छु मंतर...व्ही. पी. जंतर"
बर्ट्रांड रसेल
ताच्या मेजार.
मनोरंजन जाय ?
M. G. M. ची
कार्मेन मिरांडा
"चिकि भूम् चिकि भूम्
चिकि चिकि भूम्" करून
ताचे खातीर...

चार आण्याच्या
" पिठांत " नाचता !
आनी गाता......

प्रेम जाय ?
छु मंतर
जाय जाय ते तरेचें...
मोदी मोदिचें...
सोराब मोदिचें...
" सायकलवाली
हंटरवाली...
कवाली, मवाली...प्रेम (!)"
तो करूंक शकना
ते ते तरेचें लेगीत...
प्रेम
सिनेमाच्या पड्डयार...
ताका पळोवंक मेळटा.

कितें जाय ?
काव्य, खेळ, संगीत...
जाय जाय तें...
तो पळोवंक आनी
जाय जाल्यार...
अणभवूंक शकता.

रेडिमेड...
सगळें रेडिमेड...
अन्न, जीवनसत्वां

मोगाचे रंग
तरेक तरांचे ढंग
रेडिमेड...
"सब माल बे बे आना!"
बटण दामतां
पलटे जमाना...
लिमलेटच्या गुळयां पसून
हायड्रोजन गोळयां मेरेन...
संपा पसून
लढायां मेरेन...
सगलें अितलें सवाय
आनी अितलें लागीं...

'सब माल बे बे आना...'
पळेल्यार...
बटन दामतां, पलटे जमाना.
पळेल्यार...
खंयचे कडेन कांयूच जमना-
पळेल्यार
चंद्रलोकार कुत्रीं, मांजरां,
कोंबये–पिलां
धाडचे सर्तेंत
अेका अेका कुत्र्याचेर
अेका अेका माकडाचेर
आनी कोंबये–पिलाचेर...
अब्जांनी रुपयांची
अुस्तवारी...
वाट......अिबाड!!

आनी हेवटेन
मनशां सारक्या मनशांक ?
अणुयातनांच्यो ख्यास्ती !

जग ल्हान जालां
आनी मनीस व्हड जाला...
मनशाचें मन मात्
ल्हान जालां !
सामकें ल्हान...
म्हणचे
अणु येदें, म्हणना !
मनीस व्हड जायत आसा
तसतशें
तें ल्हान जायत वेतलें...
आनी अेक दीस
मनशा भितल्लें
हें मनशाचें मन
नाच जातलें...

देवां सारके मनीस
आयले गेले
पुण फुकट !
दोन हजार वर्सां पयलीं
येशु ख्रिस्तान सांगलेलें...
काल बुद्धान...
आयज गांधीन सांगलेलें...
फुकट गेलें.

दोन हजार वर्सांफाटीं
मनीस खूब
ल्हान आसलो.
तेन्ना ताणें आयकलें ना...!
तें तो
आयज आयकतलो ?
आयज ताचेर
संव्हार चडला.
माथ्यार म्हारू बसला.

मनीस...
देवांसारक्या मनशांचें
आयकना.
तो माकडां सारक्यांचेंच
आयकता.
चेंगिझखान...हिटलरांचेंच
आयकता.
काबार जाल्यार जाता
पुण
तांचेंच आयकनशें
ताका दिसता.

म्हणुनूच...
जी संपत्ति, जें गिन्यान
जी शक्ति
मनीस कुळयेच्या
बरेपणा खातीर
वापरपाची...

ती अुपाट शक्ति
तो
माकडांक, चंद्रलोकार
धाडचे खातीर,
वापरता.
खर्च करता.

सत्य, अहिंसा,
ताका खंय जाय ?
शांततायेन जियेवंक
ताका खंय जाय ?
ताका जाय...
फक्त धुमशेण घालूंक...
माकडांवरी !

माकडां
धुमशेणां घालतात...
ह्या झाडा वयल्यान
त्या झाडार...
आनी
विध्वंस करतात.
पुण
विध्वंस करतना...
माकडां
खासा
आपलो तरी
तो करिनात.
झाडां–पेडांचो

फळां-फुलांचोच
करतात.

मनशाक मात्
तितलीय
बुद्‌ ना.
तो आपणाकूय सोडिना.
हट्टाक पेटलो कि
आपणासैत
तो जगाक
बुजो लावंक तयार जाता !

डार्विन म्हणटा...
'मनीस माकडाचो वंशज'
वंशज ?
वंशज जाल्यार...
पूर्वजांचें शाणेंपण
तरी
ताच्यांत आसचें नासलें ?

वंशज न्हय...
निखाल्लूच न्हय.
मनीस माकडांचो पूर्वज !
म्हणुनूच तो...
माकडांची मनशां परस चड
तोखणाय करता.

अब्जांनी रुपया
खर्च करता

तांका चंद्रलोकार
धाडचे खातीर...
आनी हांगा...
ह्या पृथ्वी वयल्या
दोळ्या सामकारच्या,
आपल्या भावांक
नागडे अुगडे दवरता...
भुकेन वळवळायता...
तांकां
वेठीक बांदता...
पांयां खाल माड्डयता...
तांकां
रस्त्यांचेर, पासयांचेर
न्हिद्‌यता...
थंडी वाऱ्यान
कुडकुडायता...

मूठभर मास
आनी अिल्लेंशें रगत
तांच्या आंगार, तो
चड्डूंक दिना.
लढायांच्यो धमक्यो...
थंड झुंजाची धास्ती...
महापूर, दुकळ, रोगांनी
जर्जर, आनी
आदींच अर्दे-मेले
जाल्ल्या लोकांक...

मनशांक...
सुखान अेक दीस...
तो, न्हिदूंक दिना.

तांकां...
दळिद्राच्या, दुःखाच्या
यमकोणांत
होमकणांत
किडयांवरी तळमळटना
पळोवन लेगीत...
लागीं ओडिना.
तांची वासपूस करिना.
तांचीं दुखां पुशिना.

जग ल्हान जालां...
मनीस
गिन्यानवंत जाला.
गिन्यानवंत आनी
सर्वशक्तिमान जाला.
सर्वशक्तिमान पुण
मनान सामको ल्हान जाला !
सामको ल्हान...
अणु परसूय ल्हान... !!

देखून...
ह्या जगांत
कुत्र्यांक, माकडांक
फुकटांत

चंद्रलोका वयलो
प्रवास घडटा आनी...

अख्ख्या मनीसकुळयेची
दुखां पुसचें
सामर्थ्य आसलेले
देवा सारके मनीस...
विनोबा सारके मनीस...
वोताशियांत
पावसा चिखलांत...
रात–दीस...दीस–रात
वसांचीं वसां
पांयांनी रखडटात.

जग कितलें ल्हान जालां!
मनशाक मनीस घाण जाला...
जग अितलें ल्हान जालां!

वेंगुर्लें, १७-९-६०

## खऱ्याची रूच

जिभेक हाड ना ?
नासल्यार अुपकारता...

खरें, खोटें, पारखुपाची
रूच आसल्यार पुरो !

वेंगुर्लें, २६-८-६२

## बदलतले दीस बदलतले....

बदलतले...
बदलतले दीस बदलतले...

अुडयात सांगून
पिडिल्ल्यांक, माडुल्ल्यांक, गुडुल्ल्यांक...
पालट्टले, दीस बदलतले...

भुकेन दिस–रात तडफडटल्यांचें
आनी रस्त्यां कडेक रडटल्यांचें
लखलखतलें, नखेत्र लखलखतलें...
अुजवाडटलें...
बदलतले दीस बदलतले.

गिरेस्त ना पांवचे नागोवंक
गरिबांची भाकरी, तांची अब्रू...
लडबडटलें...लडबडटलें...
पैशाचें आसन गडगडटलें
बदलतले दीस बदलतले

पुण...आसा रगताची न्हंय, व्हांववपाची
आसा, वावराडया मोल व्हड मेजपाचें...
ह्या कुशिल्ल्या...गळिल्ल्या
समाजरचनेक...
आसा अेक खोंट मारपाची...

तेन्ना...

तेन्ना सरतलो भायर...
त्या अुज्या जोतींतल्यान
खिणांत सरतलो...
तुमच्या आसांचो लिकलिकीत सूर्य...
भायर सरतलो...
वचून काळखी रात
मळब झगझगतलें...

बदलतले दीस बदलतले...
बदलतले दीस बदलतले.

* रामेश्वर अुपाध्याय ह्या हिंदी कविच्या अेके कवितेर आधारिल्ले हे कवितेचो अणकार "साधना" ह्या मराठी नेमाळ्यांत अजत्राडाक आयिल्लो.

## घर आनी घरघर !

घर म्हणचे कितें ?

घर म्हणचे...
जल्माक आयिल्ल्या खिणा पसून
मर्णाची निमाणी घरघर लाग मेरेन
ज्या चार वणटिंच्या काशींत
मनीस गिरगिरता...तें !

तें घर ?
तें कसलें घर ? तें पांदरें...

पोपट, पांदऱ्यांत आसता
त्या प्रमाण
पांदऱ्या भायरूय अुरिल्लो...
स्वंय अेक वचनासतना...

हे ताळयेर, ते ताळयेर
ह्या झाडार, त्या झाडार
ह्या रानांत, त्या रानांत...

स्वंय अेक, अुडनासतना
अेका सारको...
पांदऱ्या भोंवतणीच गिरगिरत राविल्लो
"पोपट कोंरें तो
पोपट कोंरें तो" करीत...

जाल्यारूय ताका
पांदऱ्यांतलो पोपटूच
म्हणचें पडटलें आशिल्लें.

पुण... पोपट शाणो.

पांदरें अुकतें अुरत...
चुकून लेगीत...
तर तो भुर्र करून अुडून वेता.
'कोंर्रेंतो, कोंर्रेंतो'ची
पांदऱ्यातली कोरी शिकवण विसरून
परतोय निसर्गांत मेळून घेता....
आपणांक.

मनशाचें मात् तशें ना.

तो खंयूय आसूं...
ताच्या मनाचो पोपट...
चार वणटिंच्या
आपल्या पांदऱ्या भोंवतणीं...
गिरगिरत रावता...
निमाणी घरघर...लाग मेरेन...

घर घर...म्हजें घर
म्हजें घर...घरघर घरघर...
करीत...

जीव वच मेरेन!

पाळें, १२-६-६२

# ओरे...आयज घात जालो!!

अरे, सात भयणींचो एकलो एकसुरो भाव
तीग मामांचो एकलो भाचो
दुजींनी भाचरांचो एकलोच मामा
आवय बापायचो एकूच चलो
दोन आजे आज्ज्यांचो एकूच नातू
कितल्याशांचो मामेभाव, आतेभाव
बापोलभाव, चुतडभाव...
मेवणो...भावोजी...
दोन व्हडल्या कुंटुंबांतलो
एकलो एकसुरो लामण–दिवो
आयज पालोवलो रे!

केद्या दबाज्यान हाचो बारसो केल्लो...
केद्या लक्तुबायेन हाका सांबाळ्ळेलो
आनी वाडयल्लो...
जाणट्यांचो हाचेर केदो मोग!
(नेणट्यांचो? हाचेर केदो राग!)
केदी आशा...केदो जीव...!

केदी अिस्टेट हाका दवरिल्ली
कितलें शिक्षण दिलें
मुंजीचेर, हजारांनी खर्च केल्लो
लग्नाचेर खावपा जेवपाचेर
भोंवपाचेर, पुस्तकांचेर...
न्हेसपाचेर, वायटांचेर, सगल्याचेर...

केदो खर्च केल्लो...
गेल्ल्या अितल्याय वर्सांनी !
आरे आकांताचो...खर्च !

कितल्यो व्हिटामिनच्यो गुळयो
फळफळावळ, भाजीपालो
तूप, लोणी, धंय, दूध, मांस
आनी बऱ्या बऱ्या रुचीक अशा
हजारांनी टन खावपा–वस्तींचेर
हाची कूड मातिल्ली...
पौश्टिक अन्नाचेर हाणें
शक्त कमायल्ली.

पुण त्या शक्तिचो अुपयोग ?
जगा खातीर, देशा खातीर
आपल्या कोट्यांनी भावां खातीर ?
केन्नाच केन्नाच केलो ना...

रक्ताचो अेक थेंबो
वा चरबेचो अेक तोळो
कोणा खातीर खर्च केलो ना.

हाणें आपले कुडिची, कोण तोखणाय केली... !
सुंदर सुंदर पोशाकांनी ती सजयली
...अुंची अुंची अत्तरांनी
तेलांनी, पोमादांनी ती सोबयली
नटयली थटयली...
पुण तिचो अुपेग...कुस्कुटाचो लेगीत
कोणाच खातीर केन्नाच हाणें केलो ना...

आयज ह्या अेकशें–अठ्ठावन रात
वजनाच्या मासाच्या गुळ्याची
कूड...प्राण वचून ती पळे थंय निश्चेष्ट पडल्या...
हिचेर खर्च जाल्ले लाखांनी रुपया आयज फुकट गेले...!

हाचेर सारिल्ले पैशे खर्चिल्यार
केदीं घरां अुबीं जातलीं आसलीं!
केद्यो शिक्षण–संस्था...
केदीं हॉस्पिटलां...वाचनालयां...
केदे दवाखाने...केदीं संस्कृतायेचीं केन्द्रां
अुबीं जातलीं आसलीं...
शेंकडयांनी गरीब, अनाथ भुरग्यांक आयज
शिकप वा आलाशिरो
दिवपी केद्यो संस्था
अुब्यो जातल्यो आसल्यो !

पुण ना...हो पैसो अेका निरुपयोगी मनशाचेर,
आळशी मनशाचेर...
अर्थ नाशिल्ल्या जिवाचेर खर्च जावपाचो आशिल्लो.

भारतासारक्या अेका गरीब देसांत लेगीत
कितलो पैसो, अन्न...कपडे आनी मोलाच्यो वस्ती
फुकट वेतात न्हय ?

हे मनशाचेर त्यो तशोच फुकट गेल्यो...
कित्याक, ह्या अेकशें अठ्ठावन रातांच्या वजनदार गुळ्यान...
संवसाराक, अितल्याय
पैशांच्या बदलांत, कांय म्हळ्यार
कांयूच दिलें ना रे... !

आपापरांक...ल्हाना थोरांक
कोण्णाकूच दिलें ना

अितलींय वर्सां जियेलो
मातलो...आनी निमाणो आयज
मरून गेलो
फुकट फुकट...व्यर्थ, व्यर्थ!
भावांनो व्हडा अंतरकर्णान
ताच्या ह्या आडव्या (!) पडिल्ल्या
कुडीक क्षमा करात.
पुण कोणअेक रडूं नाकात हां (!)
दुखां फुकट घालोवं नाकात.
तीं अेकाद्या बऱ्या मनशा खातीर सांबाळून दवरात...

हो मनीस जो आयज मेलो
...ताका लागून संवसाराचें, कांय अेक लुकसाण जावंक ना.
परतो, चारशें कोटी मनशांतल्यान
अेक आंकडो अुणो जाल्ल्यान
पृथ्वी वयलो मातसो भार मुजरत अुणो जालो...

आरे, असो मनीस मेलो ?
आयज...खरेंच ? देवाच्यान ??
मागीर घात जालो...!
सामको घात जालो...!!
आरे, तो जो मनीस आयज मेलो न्हय ?
तो म्हाका दिसता
चड करून हांवूच आसूंक जाय !!!

पाळें, २७-११-६०

## भाशेक लागून दुस्मान ?

तूं आनी हांव
दोगूय भाव–भाव...

भाशेक लागून
दुस्मान जाल्यात !

मुंबय, २०-१२-६२

## चिमटे येदी सृश्ट

तुजी म्हजी दीश्ट
कितली संकुचित...

चिमटे येदी सृश्ट
निर्माण केल्या !

वेंगुर्लें ११-१-६१

## अेकसुरी गीत

तुजें म्हजें गीत
कोणाक रुचतलें...

सगलें संगीत
अेक-सुरी !

वेंगुर्लें, ११-१-६१

## हांगा आनी थंय*

हांगा...चळिल्ली वासना
थंय तन्नेंपण...अुबंत पडिल्लें
पळे सत्तेची धुंद हांगा
थंय दोळे सदां भिजिल्ले...

हांगा गोडशांचो जिबेक वीट
थंय कुंडो भुकेक पावना...
चैन मदेल्या पळे हांगा
थंय हात तोंडाक गावना!

मोव रेशमाचीं लुगटां
हांगा आंगाक...तोपतात (!)
थंय पिंजिल्ल्या बोंदरांत
चल्ला स्वास घुसमटत...

रगत लुचून दुबळ्यांचें
हांगा वैभव वसलां...
थंय आदींच मेल्ल्यांक
दैव पीडित बसलां

हांगा कळा, संगिताची
धुंद रंगल्या दिवाळी...
थंय रडकुळ्या जिणेक
रात अुमाशेची काळी

हांगा आसा सगळें सगळें
हांगा भांगराची माया...
ना मात् अेक हांगा
हांगा काळजाविणें काया!

* हे कवितेचो मराठी अणकार "भारती"तल्यान अुजवाडाक आयिल्लो.

## अेकला चलो रे

गाडी जेन्ना
थारायल्ल्या स्टेशनार पावता
तेन्ना तिका येवकार दिवपाक
मार दिव्यांचो लखलखाट करून
कितलोसो लोक
थंय जमिल्लो आसता.

कांय जाण
गाडयेन हाडिल्ल्यो वस्ती
वांटून घेवपाक
कांय तिच्याच आधारान
फुडें वचपाक...
तर कांय जाण बेठोच
बोवाळ घालपाक!

गाडयेन गांठिलें स्टेशन
जितलें व्हड
तितलो
लखलखाट आनी गर्दी चड.

पुण
गाडी बाबडी
स्टेशनार पावंचे पयलीं
अटांग्या रानांतल्यान...
अेकटी अेकसुरीच

खरशेत खरशेत
सुस्कारे सोडीत
धडपडत धडपडत
घामाघूम जावन...
रातिची दिसाची...
रमरमणाऱ्या
वोतांतल्यान...
काळ्याकीट्ट
काळखांतल्यान...
अेक सारकी
धांवत आसता...
तेन्ना
तिचे कडेन कोण पळेता?

पावसा, शिंयांतल्यान
कुडकुडत
भिरांकूळ
वाटे वयल्यान
धांवता आसतना...
अेकलीच पळोवन...
वाटेंत मधींमधीं
रागान
आपले तांबडे गुंज दोळे वाटारून...
तिका धरपाक वा आडावपाक
हातफुडें काडून उबे राविल्ल्या
राक्षसांक भियेवन
ती जेन्ना आंग काडटा...
आकांतान किंळची मारता...

तेन्ना तिच्या अुल्याक
कोण पावता ?

अेक...
देवाचे कृपेचो
पांचवो दोळो
सोडलो जाल्यार ?...
कोण तिचे कडेन
नदर दिता ?
कोण तिका
वाट दाखयता ?
धीर दिता ? अभय दिता ?

कोण ना...
कोणूच दिना.

तिच्याच हाण्डीर बसून
फुडें वचपी लोकांचें लेगीत
तिचे कडेन लक्ष नासता.
हेरांची गजाल सोडूच !

संकश्टांतल्यान
ध्येयाचो मार्ग काडटना
कोणाचो केन्ना
मायेमोगाचो हात
फाटी वयल्यान भोंवपाचो ना.

धीर दिवपी
फुकटचें अेक अुतर लेगीत...

कोणाकडल्यान
मेळपाचें ना.

आपट धपट
कासावीस जा
ना जाल्यार मर !

सगलें कितें तें
स्टेशनाचेर !

स्टेशनाचेर
कोळसो अुदक
पोटभर...
नाका जाय सर !
स्टेशनाचेर
हार-तुरे, येवकार
भाशणां ताळ्यो...
दिव्यांचो लखलखाट...
तोंडभर तुस्तिचो किलकिलाट.
सगली अुठाबस स्टेशनाचेर !

गांठिलें स्टेशन
जितलें व्हड...
तितले हे सगले विधी
चडचड...व्हडव्हड...
वीट येय सारके...
अुबगण हाडी सारके...
मर्दीं कांय ना.

तानेक
अेक घोंट अुद्क लेगीत
मेळपाचें ना!

वांकड्या तिकडया
अशीर आनी
रगतबंबाळ
करून अुडोवपी
जिगेच्या
वाखरा धारेवरी
रुळांच्या वाटे वयल्यान
धांवता आसतना...
जैताचें-स्टेशन गांठी मेरेन...
मनशाचीय तीच गत !

फक्त
जीवघेणी कसरत...
"अेकला चलो रे...
अेकलो चलो रे" ची !

वेंगुर्लें, २५-८-६२

# अुबार अेक संवसार*

मळबाक विखावन अुडोवपी
नाळिंच्या दर्बट धुंवरान...
धल्ल्यांत गच्च आडावन, सुर्यांचीं किर्णां...
पावना जावपा खातीर
म्हज्या दुखेस्त दोळ्यां कडेन.

आनी अुबो रावून, हांव हांगा
व्हडा चत्रायेन पळेतासतना...
लावन नदर त्या, फांकारिल्ल्या
पैस-पैस काळ्याकीट्ट काळखा कडेन...

येतात म्हज्या कानार
काळजाक चिरून अुडोवपी
आडुयो हुयेली...आकांतान मारिल्ल्यो
...हजारांनी दादल्या बायलांच्यो...

हजारांनीं दादले-बायलो चल्ल्यात
काळ्या-कीट्ट सांवळ्यांवरी
मळबाचे ते धुंवरे देगे वयल्यान
धापेत, खशेंत, पर्वत...
पुण तरीकूय, भियेनासतना...
अुड्यो मारीत मर्णाच्या होमकणांत...
पेटयत आपली होळी...
राखून दवरपा खातीर
मनीस-कुळयेची स्वतंत्रताय.

आर्मीच्यो गुळयो दितात
तांच्या चिंतेस्त पोल्यांक...तांबडो गुंज रंग, रगताचो,...
"घडम् घुडुम्" आवाज, न्हिदयतात
तांकां, बेस बरीं गीतां गावन (!)
धर्तरेच्या पाळण्यांत....

आवयस ! नज रे म्हज्यान पळोवं हें !
शिणले म्हजे दोळे ! !

....आनी, ह्या वाठाराक...
दिसतात म्हाका लाखांनी
दादले, बायलां, भुरगीं..अुगडीं नागडीं...
निर्शेल्लीं...वसवसलेलीं...
आपल्याच, मोडिल्ल्या घरांत,
अुबंत पडिल्लीं...सांडिल्लीं...शेणयल्लीं...
...हातपांय तोडून...कानदोळे फोडून...
पिसडून अुडयल्लीं.....
मर्णाचे वाटेर...कोयरा भशेन !

...तांचे मर्दीं मर्दीं, दिसतात म्हाका...
कसाप मनीस...फातरांच्या काळजांचे
अुबे...फाट करून...स्वतंत्रताये कडेन...
पादशायपणाच्या दळिद्या हावेसान
पुरायेन पिसावल्ले...
आशेल्ले...मनीसजातिच्या रगताक...
राक्षसां भशेन !

आशेल्ले, मदांधपणान, दवरपाक...
कोट्यांनी मनशांक...बंदेपणाच्यो ख्यास्ती भोगयत !

...त्यो पळे, त्यो पळे...
बणखणिच्यो बणखणी...
देसांचे देसभर बणखणी...
वोत्तात भरून मनशांनी...
हातापायांत बेडयो पडून...

घामान थपथपिल्ले...
कुडिंच्यो वादऱ्यो जावन
मातयेंत लोळत पडिल्ले...मनीस...

...देवां सारके मनीस...
हात पांगरून बशिल्ले...
तांचे वयल्या जुलमांमुळें मोने जावन.
...भांगरावरी तांची जीण
कुसत चलल्या...बणखणिंच्या...काळखांत भिरांकूल अशा.

...मुळाव्या हक्कांचें तांच्या
रक्षण करपी कोणूच ना ?
कोणूच ना ? आनी, ना
जाल्यार...कित्याक ना ?

तांचे काळे कातिचें रक्षण करपाक
ना कोणाकूच शक्त ?
ह्या संवसारांत ? ना...कित्याक ??

तांच्या आंगा वयलीं खिणां
चोशींल्यान...आपल्या भाल्यांच्या नदरांनी...
पावला कणकणी म्हजें काळीज
भेदून वेतात, चिरून वेतात...

पिंजिल्लया बोंद्रानी गुठलायल्लया
तांच्या वसवसलेल्या कायांच्यो मूर्ती...
म्हाका लजयतात...रडयतात...
काळीज सामकें तोडून अुडयतात...

पळोवन हें बंदेपण...जंय थंय...वचन थंय...
...म्हजे दोळे सुजल्यात. शिणल्यात. सामके अुबगल्यात
मनीस–जातिची ही अधोगती पळोवन
विटल्यात गा...

देखून...
म्हज्या मनांतली खर अुमळशीक,
आनी दुखावलेल्या रगताचो
दुखेस्त हावेस
हांच्या अेकवटलेल्या बळग्यान...
म्हज्या सोडवणदारा
हांव तुज्या पांयां कडेन सुस्कारतां !...

म्हजी काकुळट कर...
म्हज्या चाळीस कोटी भावांची
म्हज्या देशाची...
बंदेपणा खाल चिडुल्ल्या, संवसारांतल्या
दरअेका मनशाची, काकुळट कर...
आनी यो घेवन, स्वतंत्रतायेची खबर...अमृताची खबर...!
घेवन वेगीं यो...धांवत यो...
अुबारपा खातीर अेक नवो संवसार...
आतां आसा तसलो न्हय
...पुरायेन वेगळे तरेचो...!

अेक शुद्ध आनी सात्विक संवसार...
अुपाट भरिल्लो 'रगत आनी दुखां' बदला...
अक्षय सवस्तकायेन. .

जातूंत मेळटली शक्त सगल्यांक...
(काळ्यांक, गोऱ्यांक, काळ्या-गोऱ्यांक
हळडुव्यांक...हेरांक, सगल्यांक...)
आपल्या आत्म्याचो आविष्कार करपाक.

अेक पर्जळीत संवसार...यो रचपाक...
जंय अुरतलो नितळ शितळ
मोगाचो झरो सदां व्हांवत
तुज्या सर्गांतल्यान...
धर्तरे वयल्या दर मनशाच्या काळजांत...

जंय नासतलें मनशाचे मानेर
छळणुकेचें जोत...न्हय अशा जोताचें चवन लेगीत...
जंय मनीस ना धांवचो पैशा फाटल्यान
ना रंगचो सुवार्था फाटल्यान...अुता सारको...
जंय कुडुयो अित्सा, बळग्याचे हावेस
मनशाक ना रुच्चे...केन्नाच...

असो अुबार अेक संवसार...
जंय शिंयांत दुर्बळांचें रगत ना गोटेवंचें
ना खर वोतांत लासची तांची कात...
पोटाची अिल्लिशी खळी भरपा खातीर.

जंय खुनशी चोरूंक संवकुचेनात हेरांच्यो भुंयो...
आनी मदेल्ल्या राक्षसांच्या

नसत्या अभिमानाक लागून
लोखणा...बेडयो मासाक ना खिळच्यो कोणाच्याच !

देवा, असो अेक अुब्रार संवसार...
जातूंत पर्जळटले विश्वांतले सुंदरतायेचे...
सगले म्होवाळ रंग...
जंय चकचकतलो चिरकाल तुज्या कृपेचो चंद्र...
जंय दोळ्यांक दिसतली खिणाखिणाक तुजी करुणा
तुज्या कर्तुपांची फक्त सुंदरतायूच...

जंय कानांर येतली तुज्या आवाजांतली लक्तुबाय
आनी काळजाक दसतली फक्त तुजी अपुर्बाय.

देवा...अुब्रार आतां असो अेक संवसार ...
...नवे नदरेन...अुब्रार मात्
आनी व्हडा ताकतिकेन अुब्रार...
खर अुमळशिकेन अुब्रार...
अुब्रार अेक नवो संवसार...

म्हजो आत्मो शिणला गा...
पुरायेन शिणला...!

* दुसऱ्या म्हायुद्धाच्या पार्श्वभूमीचेर ... (१९४२ त गांधिजींक बणखणेंत अुडयल्या बराबर) रचिल्ले हे कवितेचो अगकार "Indian sociologist" आनी "Hind Praja" ह्या दोन अिंग्रजी नेमाळ्यांनी अुजत्राडाक आयिल्ले.

# र. वि. पंडित हांचें काव्य : अेक अभ्यास

अ. ना. महांबरे

भुरगें खंय जल्माक येतना 'क्यांऽऽवऽ...क्यांऽऽवऽ'...कोऽऽहंऽ... कोऽऽहंऽ'...'हांव कोऽऽणऽ...हांव कोऽऽणऽ' म्हणत जल्माक येता. ह्या संवसारांत आयल्या बराबर आपुण कोण, आपलें हांगा स्थान कितें म्हणपाचें ताका खबर नासता. देखून तें गोंदळटा आनी आडुत सुट्टा. (पंडितांतलो कवी अशेंच तरेन जल्माक येता.) जल्माक आयल्या बराबर ह्या संवसारांतलें दुःख पळोवन तो गोंदळटा. आनी काळ्यार धवें करून मनांतल्या भावनांक तो वाट करून दिता. आपुण जें आडुतां तें कितें म्हणपाची ताका जाण नासता. देखुनूच छंदबंध मानिनासतना, ताळतंत्र सांबाळिनासतना तो आडुत सुट्टा. ताचेंच मुखार काव्य जाता.

जें जशें दिसलें तशें तें आडून संवसाराक सांगप हो ह्या कविचो मुखेल धर्म. देखून अेकाद्रो तोंडांतल्यान चार अुतरां भायर सरना बराबर तो खरशेता, अेकाद्रो अेक सारको ताळो सरांटून तो आडुत रावता. म्हणटकूच ह्या कविचें चार वळीं पसून चारशे वळीं मेरेनचें हें काव्य पळोवन कांय जाणांक 'रानांत पडिल्ल्यावरी' जालें जाल्यार तातूंत अजाप ना.

## पंडितांच्या काव्यांतलो 'मनीस'

पंडितांचें हें काव्य वाचल्या बराबर कवी बाकीबाब बोरकार हांकां हो 'मुळयाचो भार' दिसलो; जाल्यार कवी मनोहरराय सरदेसाय हांकां ही 'मुळकेश्वराची वाणी' दिसली. पुण जाणें मुळकेश्वराचो भार पळोवंक

ना वा ताका अुलयतना आयकूंक ना ताका ह्या काव्यांत फक्त 'मनीस' वावुरतना दिसतलो.

खऱ्यांनीच हें अुतर 'मनशा'चें ! हो तुमचे-आमचे सारको खावपी-जेवपी, अुठपी-न्हिदपी मनीस. घडये सुखांत जगपी, जिणेंत रसरशिल्लो; घडये दुःखांत जियेवपी, त्रासान पिडिल्लो. विशिश्ट स्थळ-काळाचे परिस्थितींत हो मनीस वेगवेगळे तरेन दिश्टी पडटा. 'आग्री,' 'भाटकार', 'गावडो', 'पिट्टोळ'...हीं ह्याच मनशाचीं वेगवेगळीं रुपां.

## 'मनशां'ची विविधताय

पंडितांच्या काव्यांत अशे कितलेशेच मनीस येतात आनी वेतात. तांतुतले सुखांत खोस-भोगपी तुमच्या अंतस्कर्णांत खिणभरूच नदर मारून वेतात. पुण दुःखांत त्रास-काडपी मात् थंय सासणाक अुरतात. हे सगले मनीस सादेसुदे आनी देवभोळे, 'नशिबांत आयलां तें भोगूंक जाय' म्हणपी आनी भोगता त्या दुःखांतूच सुख मानपी. तांकां परती जाप दिवंक कळना, क्रांतीय जमना. फक्त जिणेंत 'जगूंक जाय' अितलेंच तांकां कळटा. पंडितांच्या 'गावड्या'क 'भाटकारशाही नश्ट करा' अशें म्हणूंक येना. पुण तरी आसतना 'कितलोय कांड, कसोय कांड माजो पिठो मात् जायना' ह्या आत्मविस्वासान तो अखेर मेरेन जीण जियेता ('हांव गावडो').

## 'चिड्डल्लो' आनी 'चिड्डपी'

निकतें म्हळां त्या प्रमाण पंडितांच्या काव्यांतले हे सगले मनीस जिणेंत 'जगूंक' सोदतात. आनी त्या खातीर मरसर धडपडटात. कवी ह्या दुखेस्तांच्या, 'चिड्डल्लयां'च्या दुःखाचें मूळ सोदून काडपाचो येत्न करता तेन्ना ताका मनशांची दुसरी अेक जात दिसता ती म्हळ्यार 'चिड्डप्यां'ची. हे 'चिड्डपी' मनीस दुसऱ्यांक छळटात आनी आपुण सुखांत जीण जियेवंचेलो येत्न करतात. देखीक, '×××' भाटकाराच्या तळयांतलो 'पिट्टोळ' त्या भाटकारावरीच मदांध आनी मनीसघाणो.

तळ्यांतल्या सगल्या निस्त्याक तो पिडटा आनी तातुंतूच सुख मानता ('हांव राजा...वायंगणा').

पंडितांच्या काव्यांतले 'चिडुपी' मनीस खूब सुखी दिसतात. पुण हें सुख वयल्याचाराचें. मनांतल्यान तेय हेर मनशांवरीच दुःखी आसतात. देखुनूच, तांचो 'भाटकार' म्हणटा, 'आतां हांव म्हजे म्हाकाच विकपाचो आसां...दर ना देखून अुल्लां.'

## अध्यात्मिक नदर

मनीस खिणांत देव जाल्यार खिणांत देंवचार जाता. मनशाचें भायलें रूप पळेता तेन्ना पंडितांक ताच्यो करण्यो देंवचाराच्योशो दिसतात. जेन्ना तो आपलें मन अुकतें करून दाखयता तेन्ना अेकाद्रें तांकां ताचें देव-रूप दिश्टी पडटा. अशा वेळार तांच्या काव्यांतलो मनीस आपणाक 'अिल्लेंशें काळींज' दिलां म्हणून कश्टता, 'दोन मनां' दिल्यांत म्हणून खंत काडटा, अेकाद्रें दोनाच्या जाग्यार अेकूच 'चव-कोनी' मन दिल्ल्यान देवा कडेन धांव घेता आनी ताका विचारता 'देवा, तुका हांव खंय सोदूं?'

जिणे कडेन अध्यात्मिक नदरेन पळोवंचेली ही वृत्ती पंडितांच्या खुबशा कवितांनी दिश्टी पडटा. ते अशे नदरेन पळेतात तेन्नाच तांकां 'कुडिचे रांदनीक तिनूच फातर' असल्या व्हड सिद्धांतांचो साक्षात्कार जाता. 'आनी मनीस जल्माक आयलो,' 'आतां बेठो फोग किल्याक?' 'देवाचें अिल्लेंशें दर्शन,' 'देवाची जाप' ह्यो कविता हेच नदरेंतल्यान अुप्रासल्यात.

## म्हणी आनी 'विपरीत' कल्पना

हें गंभीर काव्य सोडलें जाल्यार पंडितांचें हेर बरेंचशें काव्य म्हणी वा 'विपरीत' कल्पना (Fantastic ideas) हांचेर आधारिल्लें आसा.

दरअेक म्हण आयकतकूच तांकां वेगवेगळ्यो यादी येतात. आनी ताका लागून ते म्हणींत तांकां अेक वेगळोच अर्थ दिसता. रागार गे फुगार जातकूच घोवान दिल्ली अिल्लीशी कातली खावन फूस् करून

हांसपी बायलांचो अुगडास जाल्या बराब्र 'तशे तरेच्यो बायलो...अं हं ...कातल्यो (!) खंय मेळटात काय?' म्हणून ते चुरचुरतात. 'भिऱ्या फाटीं ब्रह्मराक्षस', 'रागाक दोळे नात', 'भिकेचे दुवाळे,' 'वणटिचें तोंड बंद' ह्यो सगल्यो कविता तांणी निव्वळ म्हणींचेर रचल्यात.

जे दिश्टीन ते म्हणीं कडेन पळेतात तेच दिश्टीन ते जिणेंतल्या हेर ब्ऱ्याचशा गजालीं कडेन पळेतात. ह्यो गजाली पळेतकूच अेकाद्रे तांचे तकलेंत गंभीर विचार येतात, अेकाद्यो विपरीत कल्पना येतात. मिनाक लागून गोंयांत तूर्त कितें जालां जावं भुरग्यांक सोऱ्याच्यो दाडो कशो येवंक लागतात हांचे संबंदीं जेन्ना ते येवजितात तेन्ना तांच्या मनांत गंभीर विचार येवंक लागतात. ('रामाची वाट पळेत', 'सोऱ्याची दाड'). हाचे परतें, सोरपाक नंब्र कोणें दिलो जावं कोंब्रड्याच्या माथ्याक तांबडो तुरो कोणें लायलो जायत ह्या संबंदीं ते जेन्ना येवजितात तेन्ना तांच्या मनांत कसल्यो तरी 'विपरीत' कल्पना येवंक लागतात आनी त्योच ते काव्यांत मांडटात ('सोरपाक धावो नंबर', 'बेस बरेलो तांबडो तुरो').

## गीतां आनी अभंग

पंडितांचें सगलें काव्य पळेतकूच कांय काव्य-प्रकारांक तांणी निव्वळ तंत्राचे दिश्टीन हात घाला असें दिसून येता. ह्या प्रकारांनी तांचीं गीतां* आनी अभंग मोडटात.

पंडितांच्या बाळ-गीतांनी चडशे कडेन 'जाणटेपणा'ची सासाय व्यक्त जाता. तांच्या गीतांतलीं भुरगीं पावसाक खोट्या पैशाची आस दाखोवन आपोवंक शकनात. त्या बदलाक तीं म्हणटात, "आजग्या हातांत घालून मुदी...करंगूट, पासणी सोदून घे" ('पावसा पावसा यो रे यो'). हींच भुरगीं जेन्ना आनीक अेके कडेन चंद्रिमाक 'मामा' म्हणचे बदलाक 'चंद्रा पुता...(!)' म्हणून अुलो मारतात तेन्ना तर तीं बरींच 'म्हालम्हातारीं' जाल्यांत काय असो वाचप्याक भास जाता.

* हें अुतर हांगा रूढ अर्थान अुपकारावंक ना.

('चंद्राच्या पोल्यार खतां'). त्या मानान पंडितांचीं बायलांचीं-गीता अदीक सोब्रीत जाल्यांत. तांच्या गीतांतली 'जायाजुयांनी घमघमायिल्ली, मोगऱ्या शेंवत्यांनी परमळायल्ली' कुळाराची वाट आनी 'केंसर कृष्णा पांयार पडचें, हांवें फाटीं हात जोडचे' म्हणपी तुळशिचें पान दरअेके सवाशिणिच्या मनांतल्यो भावना सोज्वळतायेन अुकत्यो करतात ('कुळाराची वाट', 'हांव तुळशिचें पान गे').

'चिमटीभर प्रीत', 'तुजें म्हजें धन', 'सदां आमचो ध्यास'...हे पंडितांचे अभंग वाचतकूच असें दिसता कि तांच्या कवी-मनाक हो प्रकार बरोच मानवता. चडशा अभंगांचो विशय अेका सारको आसुनूय दरअेका अभंगांतलीं अुतरां आनी अुपमा वेगवेगळ्यो आशिल्ल्यान ताका अेक नवेंच रूप हाडटात.

अभंगांक जुळटात अशो पंडितांच्यो दुसऱ्यो कांय काव्य-रचना आसात. 'पांय आसा, वचत थंय वाट' आनी 'मदेर आसा, वचत थंय मेस्त' ह्या कवितांतलो आशय अभंगांक फावोसो आसा—'दॅंट तुट्टा' आनी 'मोड्डं नाकात' ह्योय कविता ह्याच प्रकारांत मोडटात.

## प्रतिकां

पंडितांच्या काव्यांत प्रतिकांक अेक स्वतंत्र असें स्थान आसा. मात्शें विनोदी भाशेंत सांगपाचें जालें जाल्यार पंडितांचें सगलें काव्य चाळणींत घालून चाळूंक मेळिल्लें जाल्यार तांतलीं कितलींशींच प्रतिकां हेर आशया-पसून वेगळीं सरतलीं आसलीं—आपल्या काव्यांत प्रतिकांचो अितलो अुपेग करपी घडये कोंकणींतलो हो पयलोच कवी जावंये. 'हांव राजा... वायंगणो' हे कवितेंतलो 'पिट्टोळ' हें भाटकाराचें प्रतीक. पंडित आपल्या काव्यांत अेक सारके कोणाची कोणा कडेन तरी तुळना करीत आसतात. देखून तांकां प्रतिकांचो अुपेग केल्या बगर फुडेंच वचूक जमना. 'हांव राजा...वायंगणो' हे कविते पुरतेंच सांगपाचें जालें जाल्यार तांतलो 'पिट्टोळ' दरअेके वळींत तळ्यांतल्या आनी भायल्या हेर प्राण्यां कडेन आपली तुळना करीत आसता. पयल्या कडव्यांतूच तो म्हणटा :

देवां मदीं अिंद्र
नक्षत्रां मदीं चंद्र
भुतां मदीं देंवचार
भाटकारां मदीं ×××
तसो निरल्या मदीं हांव
पिट्टोळ...

अेकेक फावट पंडित अेकेच गजालिची बेगवेगळ्या कवितांनी बेगवेगळ्या गजालीं कडेन तुळना करतात. देखीक, मनाची तुळन तांणी मेण, मिठा-कणी, गरिबाचें धन, चिंचेचें पान अशा विंगडविंगड गजालिं कडेन केल्या.

## ताल

पंडितांचें सगळें काव्य मुक्त-छंदांत आशिल्ल्यान ताका नाद-तालाचें बंधन ना. तरी लेगीत अदीं-मदीं तांणी ताचो आसरय घेतिल्लो दिसता. तशेंच, तांणी मुद्दम अशीं यमकां खंयूच जुळयल्लीं दिसनात. पुण विशिष्ट ताल आशिल्ल्यान तांच्यो कांय कविता यमकबद्ध कवितां परस्य सुंदर जाल्यात हातूंत दुबाव ना. 'आतां बेठो फोग कित्यांक?' आनी 'तुज्या रगताचो अेक अेक थेंबो...' ह्या कवितांनी तांणी नाद-तालाचो सोबीत बरो संगम घडयला. ह्यो पळेयात तांतल्यो कांय वळी :

फोग नाका चंद्रजोती
बाशिंग नाका
माणकां–मोतीं
जिणेचे दीस
पडले फाटीं
आतां सगल्यो
काळख्यो राती

जळ्ळें रगत
जळ्ळ्यो काती
आतां कसलीं
नातीं पा.ीं ?

... ... ...

पिंडाचें ताट नाका
दर्भांचो, तिळांचो
आमान्यांचो थाट नाका
जिवेपणीं
सगलें पावलें
आनीक लावंची
वाट नाका

('आतां बेठो फोग कित्याग ?)

स्वतंत्रताय
चिड्डितल्यांच्या
आर्मांतल्यान
तड् तड्...सूं सूं
ठो ठो झूं...झूं
कातोंशी सुट्टात...
काळजाक भेटपाक
तुज्या ?
हड्डयाची धाल कर
पिसो जावन
फुडें सर
स्वतंत्रतायेचे वाटेर

('तुज्या रगताचो अेक अेक थेंबो')

कांय कडेन पंडितांनी तालबद्ध अुतरांनी कवितेक सुरवात केल्या आनी मागीर ताल सोडून दिला. 'पावसा यो पुता रडपाक' हे कवितेच्यो

पयल्यो तीस-चाळीस वळीं हे दिस्टीन वाची सारक्यो आसात. ह्या तालाचें परतून अेक फावट कवितेच्या निमाण्या धा-पंधरा वळींनी दर्शन घडटा.

पंडितांच्या काव्यांत ज्या ज्या कुडक्यांनी नाद आनी ताल आयला ते ते कुडके काव्याचे अुत्कृश्ट नमुने जाल्यात हातूंत दुबाव ना. पुण आपल्या सगल्या काव्याक तांणी नाद-तालाची जोड दिल्ली जाल्यार तें जालां ताचे परस अदीक सोबीत जातलें आसलें अशें काय म्हणूं नज. कारण तशें केल्लें जाल्यार घडये जो ताल आतां तांच्या काव्यांत—थोडेच्च कडेन काय जायना—गुण म्हणून अुठून दिसता तो तांच्या काव्याक अेक व्हड मर्याद घालतलो आसलो.

## अुतरां

पंडितांचें काव्य खुबशेदा निव्वळ अुतरांच्या आधारान विस्तारत वेता. जे तरेन तांचें हें काव्य स्फुरता त्या संबंदीं म्हजी कल्पना अशी—मनांत अेकाद्रो विचार, भावना वा कल्पना येता...तो विचार, भावना वा कल्पना अुतरांतल्यान व्यक्त जाता...त्या अुतरांक लागून दुसरीं काय अुतरां येतात...तांतुंतल्यान दुसरोच अेक विचार, भावना वा कल्पना अुप्रासता...ताचो मूळ विचार, भावना वा कल्पना हांचे कडेन संबंद जोडटा...परतून अुतरां येतात...आनी अशे रितीन तांची कविता जल्माक येता.

देखून पंडितांच्या काव्यांत खुबशे कडेन बेठींच अर्थ नाशिल्लीं अुतरां येतात. त्या अुतरांक हरशीं अर्थ आसलो जाल्यारूय तांच्या काव्यांत ज्या जाग्यार तीं भितर सरतात थंय तांकां व्हडलेंशें स्थान नासता म्हळ्यार जाता. हे पळेयात तांचे कांय नमुने :

**कोण म्हणटा अशें**
**कोण म्हणटा तशें**
**कोण म्हणटा कशें**

**कोण म्हणटा काय**
**कोण म्हणटा कित्याक**
**आंब्याचें राय...**

('ज्ञानेश्वर आनी हांव')

**सवंगा कणकणी**
**अेक अेक काणी**
**रातराणी**
**पेजपाणी...**

('म्हजें जीवित...अेक जागर')

अशीं अुतरां निव्वळ हेर अुतरांच्या सांगतान येतात हाचो दुसरो अेक पुरावो म्हळ्यार अुतरांच्यो सादारण अेका साक्यो रचना पंडितांच्या दोन-दोन तीन-तीन कवितांनी मेळटात. देखीक :

**काय सवंगां...**
**जेवणांतल्यान**
**गरयो सोडटात**
**अुतरांतल्यान**
**सोरोप सोडटात**
**नदरेंतल्यान**
**तरसादी मारतात**

('म्हजें जीवित......अेक जागर')

**सांगटांचे**
**कांटे मोडटां**
**सुंगटांच्या नाकांत**
**दोरां सोडटां**
**खवांक**
**भेसडायतां**

खर्चोण्यांक
कुसां तोपतां
खर्शोयतां...

('हांव राजा......वायंगणो')

पंडितांच्या काव्याचो अेकाद्रो टीकाकार हांचे कडेन तांच्या काव्यांतले दोश म्हणून बोट दाखोवंये. पुण हांगासर प्रस्न असो येता कि हांका दोश मानचें काय न्हय? कारण तशें पळोवंक गेल्यार पंडितांचे दरअेके कवितेंत हे दोश अुण्या-अदीक प्रमाणांत मेळटलेच. आनी ताका लागून त्यांच्या सगल्याच काव्याचेर 'सदोश' असो छाप मारचो पडटलो. दुसरी गजाल म्हळ्यार हे दोश काडून अुडयले जाल्यार तांचें काव्य अदीक सोबीत दिसच्या बदलाक घडये अदीक विद्रूप दिसुंये. वाचप्यांनी हेच नदरेन तांच्या काव्या कडेन पळोवंक जाय.

आपणाक दिशिल्लो संवसार पंडितांनी बारीकसाणेन पळेला, अुत्कटतेन अणभवला आनी तोच तांणी वाचप्या मुखार चित्रावपाचो येत्न केला. पिट्टोळाच्या राज्यांत ते जितले लक्तुबायेन भितर सरतात, तितलेच खोश्शेन ते आग्र्यां बराबर नाचतात आनी पोटतिडकेन गावड्यां वांगडा वावुरतात. देखुनूच तांचें हें काव्य आपले आंगचे जिवसाणिची गवाय दिता.

मनीस आनी मनीसजात हांचे संबंदिंच्यो पंडितांच्यो भावना काळजां-तल्या खर अुमाळ्यांतल्यान अुप्रासल्यात. म्हणुनूच कितलेशेच दोश आसुनूय 'अणुयुगाचो हरी विठ्ठल' ही तांची कविता 'विसाव्या शतकांतले मनीसजातिचें म्हा-भारत' म्हणपा अितली अूंच पांवड्याची जाल्या.

खासा कवी नांवान 'पंडित' आसले तरी आपलीं अुतरां 'गावड्या'चीं अशें मानतात. धर्तरेच्या पुताचीं हीं अुतरां तांणी जे तरेन आयकलीं आनी पारखिलीं तेच तरेन तीं संवसारा मुखार मांडलीं. हांतुतलें खंयचें अुतर वाचप्यांच्या अंतस्कर्णाचे खरिचो ठाय घेतलें हें आतांच सांगप कठीण, पुण जें अुतर तांच्या अंतस्कर्णांत अुरतलें तें रूप

धरतलें आनी फुडले पिळगे मेरेन पावतलें अितलो कवीक आत्मविस्वास दिसता.

आपल्या मायभाशेंतल्या काव्याची परंपरा मोडून, दिसता तशें प्रामाणिकपणान बरोवन तें अेकेच फावटीन पांच कविता-संग्रहांच्या रुपान वाचप्यां मुखार मांडपी घडये भारतांतलो हो पयलोच कवी जावंये. ह्या काव्याच्या रुपान कोंकणी साअित्यांत अेक मोलादीक अशी भर पडल्या...कोंकणी साअित्याच्या मळार आतां म्हाकविचीं पावलां आयकूंक येवंक लागल्यांत. दरअेक कोंकणी-भक्त ताचे वाटे कडेन दोळे लावन बसला...

(दुसऱ्या कव्हरा वयल्यान)
हे कवितेन कोंकणीक अेक नवी कळा दिल्या–ओजाचो खर गुण दिला. आनी फाल्यांच्या कोंकणी काव्याक अेक नवी वाट घालून दिल्या...दोन अुतरांत सांगचें जालें जाल्यार पंडितांचें हें काव्य म्हळ्यार माणसुकेचें अेक तोलादीक गीत. तुमचें, म्हजें, सगल्यांचें...”

✗

र. वि. पंडित हांचे
कोंकणी कविता–संग्रह

१ धर्तरेचें कवन
रुपया ३ : ५० नवे पैशे

२ चंद्रावळ
रुपया ३ : ५० नवे पैशे

३ आयलें तशें गायलें
चार रुपया

४ म्हजें अुतर गावड्याचें
चार रुपया

५ अुरतलें तें रूप धरतलें
चार रुपया

कोंकणी भाशा
मंडळ, गोंय